भौ. मेलविनबाब रॉड्रिक्स हांकां
मायेमोगान
पांडुरंग फळदेसाय

# अंतर्यात्रा

पांडुरंग फळदेसाय

बिम्ब
प्रकाशन

**अंतर्यात्रा**

(कविता)

पांडुरंग फळदेसाय

**Antaryatra**

(Poems)

*by*

***Pandurang Phaldesai***

**प्रकाशन क्र. ९५**



**पयली आवृती**

ऑगस्ट २०१३

**छापणावळ**

इम्प्रेशन्स - बेळगांव.

**अक्षर जुळणी**

बिम्ब प्रकाशन

**दर्शनी चित्र**

हर्षदा केरकार

**प्रकाशक**

बिम्ब प्रकाशन

'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,

आगशी - गोंय ४०३ २०४

दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५

**मोल : रु. १६०/-**

*कोंकणी भौसाक*
*म्हजी अंतर्यात्रा*
*समर्पण*

## डॉ. पांडुरंग फळदेसाय
### हांचें उजवाडाक आयिल्लें हेर साहित्य

* आटलाक पेटलाक

(कोंकणी) - लोककथा : १९८३

* झुळुक

(मराठी) ललितलेख : १९८७

* काणी काणी कोतवा

(मराठी) गोंयच्यो लोककथा : १९८९

* गोमंतकीय लोकवाद्ये

(मराठी) लोकसंगीतशास्त्र : १९९२

* Kaleidoscopic Goa - A Cultural Atlas

(गोंयचो सांस्कृतीक इतिहास) : २००४

* Goa : Folklore Studies

(गोंयच्या लोकसंस्कृतीविशीं सोदवावर) : २०११

* गोमंतक : संस्कृतीच्या पाऊलखुणा

(मराठी) गोंयच्या संस्कृतीविशींचे सोद-निबंद : २०१३

* संतांची मादियाळी

(मराठी) संतचरित्र संग्रह : २०१३

## भुती सोडयतना

आमच्या भुरगेपणांत दिसभर गोरवांफाटल्यान भोंवपी राखणे भुती व्हरताले. भुती म्हळ्यार भुकेच्या वेळार पोटाक थाकाय येवपा खातीर बांदून दिल्लीं खाणां/जेवणांची पोटली. शिदोरी. गोरवां चरव खावन पाणट्याचें पाणी पिवन गोठणार घोटेलीं; म्हणटगीच राखणो आपली भुती सोडयतालो. ती सोडयतना ताच्या काळजांत कितल्याशा भाव-भावनांचे उमाळे येताले. रानांवनांतल्या एकल्या एकसुऱ्या मळार गोरवांच्या सांगातान तो आपली भुती सोडोवन तृप्त जातालो. ही तृप्तताय ताका सदांकाळ सवें वावुरतल्या गोरवां - वासरांच्या थाकायेन मेळटा. सैमाच्या सर्वंगी रुपांतल्यान मेळटा. तो नियाळटा सरभोंवतणचीं सैमरुपां. कितले रंग, कितले ढंग, कितलीं रुपां आनी यादींचीं कितलीं थिकां. रानांतल्या मळांचेर आनी तळपांच्या सड्यांचेर तो निकट्या पांयांनीं भोंवता. त्या मळांचीं पांचवींचार तन्ना आनी दनपराभारावेलीं सड्याचीं खोन्नां ताणें अणभवलेलीं. तांचो नियाळ ताका नाका. पूण काळजांतले खर इंगळें सांबाळीत तो तृप्ततायेची सया सोदता.

तशी म्हजी ही आजवेरचे जिणेतली भुती. ती तुमच्या मुखार सोडयतां.

म्हजें भुरगेंपण म्हज्या जल्मगावांत पैंगीणी काणकोणांत गेलें. गांवची एक-दोन दिसांची ज़ात्रा उलगता तशें तें केन्ना सोपलें तें कळ्ळेंच ना. कुळागरां, दोंगोर-मळां, झरी-तळयो, व्हाळ-व्हळयो, शेतां-भाटां, आडे-शिरो, देवळां-मांड हांच्या सांगातान गांवगिऱ्या वाठारान म्हजें भुरगेंपण आनी जुवानपणूय गिरेस्त केलें. देवळांतलीं भजनां, दिंडी, किर्तनां, काले, नाटकां, गोंदोळ, धालो, शिगमो, सांज्यांव, जात्रा, उत्सव, परबो, व्रतां, फेस्तां पळयलीं. मागीर म्हजें ल्हानपण मनाक झोंमलें. जीणेचें विशाळ तत्व होलमलें.

आवय-बापायच्या संस्कारांनी कला, साहित्य, संस्कृती हांची वाट दाखयली. तांतल्यान सुखदुःखांनी भरसल्ली विद्यार्थी-जीण वाट्याक आयली. सुखाचो सराव घेत आनी वाट्याक आयिल्या दुःखाक काळजांत लिपयत जीण सारप जालें. घराब्याची गरज म्हण जोडीक लागलों. पत्रकारितेंतूय उमेद भागयली. मागीर कला अकादमींतले नोकरे निमतान पणजे पावलों. तेन्ना कोंकणीचो दिश्टावो जालो. पयलीं आकाशवाणी आनी शाळेचो वर्सुकी दीस हाका लागून कोंकणींतली थोडी-भोव बरपावळ केल्ली. पूण पुराय शिक्षण मराठी माध्यमांतल्यान जाल्ल्यान मराठीचो सुसंस्कार सदांकाळ भाशीक विचार दीत रावलो.

जेन्ना उमळशिकेन दिसलें, जमलें, तेन्ना कोंकणींतल्यो कविता मनांतल्यान कागदार देंवयल्यो. मदींमदीं बरयतालों. फाटल्या पस्तीस-चाळीस वर्सांत कला अकादमींतल्या कामाची जबाबदारी सोपयतगीच म्हज्या कवितांच्या उल्यांनी कान भुल्लसले. उले कानार पडत रावले. तांचे नाद काळजांत रिगले. भोंवताड सावशीद करीत रावलें. कल्पनेचीं घुंगरां बांदून अणभवाचीं उतरां म्हज्या भोंवतणी भिण्णां कशीं झडूंक लागलीं. अचळयां म्हज्या सामकारा नाचूंक लागलीं. तांच्योच वळी जाल्यो. तांचींच कवनां जालीं. शिरंतरांतल्यान झुलत रावलीं - झोपाळ्यावरीं. आनी मागीर अक्षरांनीं फुलून आयलीं - आंगभर. कांय इश्टांनी कवितांची तोखणाय केलीं. म्हण हो कोंकणींतलो पयलो कवितांचो झेलो उजवाडा येता.

म्हजेर कवितेचो संस्कार करपी पयली म्हजी आवय. ती होवयो म्हणटाली. तांतलें कवित्व आनी नादरूप हांव अणभवत रावलों. आयकतना केन्नाकेन्ना

भुल्लुसून गेलों. तांतल्यान लोककाव्याचें अप्रुप मनांत रिगलें. कविता आनी एकान्त (आयझोलेशन) हांची लागींची सोयरीक. ती तुटल्यार मळणेक बी ना भात अशी अवस्था जाता. म्हण जेन्ना जेन्ना म्हाका एकलेंपण मेळ्ळें, मनाक थाकाय वा उचंबळाय मेळ्ळी, घसघश्यांच्या सैमरुपांची उंचाय अणभवपाक मेळ्ळी तेन्ना नकळटां म्हजे कवितेन रुपकार घेतलो. अणभवांनी लब्दल्ल्या अक्षरांचीं रुपडीं केळोवपाचो हो एक सानुलो यत्न.

ह्या जिणेजागरांत रात खळपी, जाग्रण करपी जितले उमेदी, तितलो तो जागोर फुलता. म्हज्या ह्या साहित्य जागरांत म्हजें पुराय कुटूंब आसा. आवय, भाव, भयणी आनी मागीर आमी थाटिल्ल्या सुपुल्ल्या संवसारांतली म्हजी इश्टीण, प्रेमिका, घन्नी-अमिता हींच सगलीं म्हजें साहित्य प्रेरणेचे स्रोत. तांचें एक उतर, तिची एक नदर, एक तुस्त-तोखणायेची कुरा, ही म्हजे कवितेची नुरा. ताणींच दिलें बळगें सरभोंवतणींच्या भौसाच्या हुस्क्याचें. तांचीं दुखां, तांचीं सुखां म्हज्या काळजाक वेडायिल्लीं सुतां. काळजांतले भक्तीन आपणायलीं देवरूपां. उसाट सभावाक अळंग जिणेचे आडांबे घालपाची कळाशी म्हजे घन्नीन, अमितान सादली. कळेविणे कांटो काडपाचें काम तिणें सदांच केल्ल्यान आज म्हजी कविता चंवरपाक पावली. शीम-मेर हुपून मोग कसो करचो आनी त्या मोगाच्या सुवाळ्यांत फावो त्या कर्तुत्वाच्या वाठारांत आपल्या मनशाक सामको कसो हाडून पावोवचो, हें अमिताकडल्यान शिकचें. राग ना. धाडय-बडय ना. शीण मात मुजरत आसा. शीण उक्तावपाचो खीण होच आमच्यां मदलो अमृत-खीण. तो खीण अणभवत हांवें म्हजी जीण गिरेस्त केल्या. त्या पुराय गिरेस्तकायेखातीर म्हजे घरकान्नीक अमिताक काळजांतल्यान दीनवास. आज हो कविता संग्रह उजवाडा येता. कविता लिकलिकतात. कविता कित्याक म्हजें काळीजूच लिकलिकता.

म्हजे बरपावळींतल्यान हांवें ह्यो कविता वेंचल्यो. पूण तांचो नियाळ, आस्वादन आनी मूल्यमापन करपा खातीर वेळ दिवपी हांव सोदतालों. पयलीं सावन कवी आनी साक्षेपी समीक्षक भौमानेस्त माधवबाब बोरकार हांचें नांव म्हजे नदरेमुखार आशिल्लें. ताणीं अनमानी नासतना म्हाका आपली प्रस्तावना बरोबन दिली आनी म्हजे कवितेक एक खाशेलें अधिष्ठान मेळोवन दिलें. एक

खासा उंचाय मेळोवन दिली. संवसारीक कवीसृष्टींतल्या वर्डस्वर्थ, कीटस्, मराठी कवितेंतले ग्रेस सारख्या कवीश्रेष्ठांचो उल्लेख म्हजे कवितेच्या संदर्भांत करून ताणीं म्हजे कवितेक वैश्वीक कवितेच्या वाठारांत पावयलां. माधवबाबांचे उपकार खंयच्या उतरांनी मानू? तांच्या उपकाराच्या रिणांत रावपाक म्हाका आवडटा. तांच्या सारख्यां प्रतिभावंत आनी प्रज्ञावंत साहित्यिकांच्या उर्बेभरीत उतरांनी बरोवप्यांक नवी उर्जा आनी प्रेरणा मेळटा हें साबार साहित्यिकांनी अणभवलां.

म्हजो इश्ट दिलीप बोरकार. ताणें आपल्या बिम्ब प्रकाशनाचे वतीन म्हजी 'अंतर्यात्रा' उजवाडावपाचें मान्य केलें. फावो ते सोबीतकायेन आनी बिम्बाचे परंपरेंत फावो जातलो अशे तरेन हो कवितासंग्रह उजवाडायलो, ते खातीर दिलीपाचे उपकार खंयच्या उतरांनी मानू? ह्या 'अंतर्यात्रेक फावोशें मुखपृश्ट चित्रावन दिवपी राष्ट्रीय कीर्तीची चित्रकार हर्षदा केरकार हांचे भोव उपकार. ताणीं दिल्ल्या कलात्मक पालवा खातीर तांची तुस्त करूंकच जाय. म्हज्यो कविता मोठे उमेदीन फावो तश्यो टायप करून दिवपी म्हजी कला अकादमींतली सहकारी सौ. पूजा उदय मुणगेकर हिचे मनतेकीत आभार.

आतां हो म्हजो पयलो कवितासंग्रह म्हळ्यार म्हज्या जिविताची अंतर्यात्रा वाचकांच्या हातांत दितना जशी उपाट उमेद आनी खोस जाता तशीच एक काळजाच्या कुरकुटांत दुगदूग आसा. कशी कितें मानवतली काय तुमकां म्हजी ही कविता! तुमचे प्रतिक्रियेक रावतां.

**– पांडुरंग फळदेसाय**

**'सासाय'**,
विद्यानगर, आल्त-तोर्डा,
पर्वरी – गोंय

## ।। अंतर्यात्रा : एक अणभव ।।

हालींच्या काळांत भावकवितेंतलो भाव उडून वचूंक लागला आनी ताची सुवात विचार घेता अशें एक चित्र आयची चडावत कविता वाचतना दिसता. जो एक लेखाचो विशय आसूं येता तो कवितेचो आशय म्हूण येता ताका लागून अशे तरेची कविता वाचतना गद्याचो परिच्छेद वाचिल्ल्याचो भास जावप सभाविक आसा. कविते परस कवीन लेख बरयल्यार तो विचार अदीक प्रभावी जावं येतालो अशेंय आयची कविता वाचतना दिसता. सर्वसामान्यपणान सामाजीक आशय तिका चड लागींचो. अशे तरेची ऱ्हेटोरिकल कविता वाचतना कानाक दडे बसतात. अशे तरेचे कवितेक तात्कालीक संदर्भ आसता. देखून तिचेवेल्यान कांय काळ सरतकच ती काळा भायरी जाता. आयचे चडावत कविते सबंदान अशेंच म्हणचें पडटा. सामाजीक आशयाक कवितेच्या हुमऱ्या भायर दवरचो अशें हांव म्हणिना. तो तितल्याच आवेगान आयल्यार ताचें मोल कमी जावंक पावचेलें ना. आनी हो ओग तिका आपसूक कवितेचें मुल्य प्राप्त करून दितलो आनी अशे तरेची कविता स्थळ काळाच्यो शिमो

हुपूंक पावतली. मराठी कवितेंत केशवसुत, बंगाली कवी काझी नझरूल इस्लाम सारकिल्यो घरच्यो देखी आसात. तेच प्रमाण निग्रो कवितेंत हो सामाजीक आशय व्हडा प्रभाविपणान व्यक्त जाला.

हे पाठभुंयेचेर पांडुरंग फळदेसायाचे कविते सबंदान विचार करप गरजेचें आसा. फळदेसाय हे लोककला, लोकसंगीत हांचे अभ्यासक. दर एके भाशेंतले कवितेक आपली अशी एक इतिहासीक परंपरा आसता आनी आयच्या काळांतलो कवी हें दायज विसरूंक शकना. हें दायज वेगवेगळे तरेन ताचे कवितेंत येता. केन्ना तें आशयाच्या रुपान वा केन्ना तें भायलो आकृतीबंध घेवन. अर्विल्ली भारतीय कविता हें दायज घेवन अभिव्यक्त जाल्ली दिसता. संवसारीक कवितेंत जे नवे प्रवाह आयले ताचो प्रभाव आनी परिणाम हे कवितेचेर जालो पूण परंपरेचीं मुळां ख़ोल आशिल्ल्यान भारतीय कविता हे प्रभाव पचोवंक शकली. हिंदी, मराठी, कन्नड सारकिल्ले भासांतले कवितेक दीर्घ अशी परंपरा आसा. संत पंतांनी हे कवितेक गिरेस्त केल्या. ते भायर लोककाव्याचें गिरेस्त अशें भांडार हे कवितेकडेन आसा. हेर भासांतले तुळेन कोंकणी कवितेचो इतिहास हालींचो. हांगा संतपंत जल्माक आयलेनांत. अशें आसलें तरी आमचे कवितेचीं पाळांमुळां रुजल्यांत तीं लोककाव्याचे मातयेंत. व्होंवयो, धालो, मांडे आनी धुलपदां हांचे कडेन कोंकणी कवितेच्यो पती म्हूण आमी कित्याक पळोवंचें न्हय? तांची उतरावळ आनी छंदांचें वैविध्य नदरेंत भरपा सारकें आसा. कल्पना आनी भावना हांचो सुंदर सुमेळ हे कवितेंत जाल्लो दिसता. कोंकणी कवितेचो इतिहास ह्या लोककाव्यांत आमकां सोदचो पडटलो. आनी फळदेसायान ह्या लोकसंचिताचो थाव घेतला. ताचो प्रत्यक्ष अप्रत्यक्ष प्रभाव ताचे कवितेचेर पडिल्लो दिसता. मेसिडोनियन भाशेंतलो कवी निकोला माडझिरोव हो कवी म्हणटा :

You write. About the things that already exist
And they say you fantasize.

कवितेची परंपरा न्हंयेभशेन अखंड व्हांवत आसता आनी दरएकलो कवी पोसो भर उदक तातूंत सोडीत आसता. दुसऱ्या अर्थान खंयचोच कवी नवें अशें कांय सांगिना. ताची सांगपाची तरा वेगळी आसता. आनी ही अणभवाची अभिव्यक्ती म्हत्वाची. वापरपाची भास आनी शब्दकळा हांचो विचार ते नदरेन करपाक जाय.

'*अंतर्यात्रें*' तलो कवी आपलोच सोद घेता.

**तूं एदोळसावन**
**हारशांत कितें पळयता?**
**हारसो?**
**काय तूं**
**तुका नियाळटा?**

हो हारसो म्हळ्यार एक जड वस्त काय तुजें मन असो प्रस्न हांगा उप्रासता. कित्याक तर हांगा तीन प्रस्नचिन्नां आसात आनी तांच्यो जापो कवी सोदता. पूण थोडें खोल देंवल्यार वेगळें दिसता. हो मनाचो हारसो, जो हारसो तुका फटोवंक शकना. ज्या हारशांत तूं तुकाच नियाळटा आनी तो तुका तुजें खरें रूप दाखयता. तुजी आवतिकाय, तुजे राग लोभ खंत किंवाटे आनी अख्ख्या जिविताक व्यापून राविल्ली अतृप्तताय आनी समाधान शेणपांतूय ही अतृप्तताय आसता आनी कवीक ती कशी दिसता?

**अखंड वसतेक आयल्या**
**लग्नाच्या माटवांत आयिल्ले**
**आपखोशये भशेन**

खरें म्हळ्यार अतृप्तताय आनी आपखोशी एक विरोधाभास. पूण हे कवितेंत हो विरोधाभास ही तिच्या आशयाची गरज. ह्या विरोधाभासांतल्यान एक प्रतिमा रूप घेता आनी आशयाची व्याप्ती वाडयता. विरोधाभासाचो प्रभावी उपेग हें कवितेचें बळस्थान थ़रूं येता आनी फळदेसायाची ही कविता म्हळ्यार ताची एक बऱ्यांतली बरी देख.

कवीक सैमाची सुमारा भायर ओड आसा आनी तो ह्या सैमाच्या वेगवेगळ्या रुपांचेर भाळटा. तो सैमाक मनीस रुपान पळयता. ह्या सैमांत ताका अनंताचे उले आयकुपाक येतात आनी सृजनाचें मूळ ह्या सैमांतूच आसता.

**कांदळीचे भोंवडेक**
**चान्नेभरी दंवाथेंबे**
**पर्मळाचे म्होंवाळ झेले**
**काळीज पर्मळूं**

आनी सांजवेळचे सावळेंत गुरवार जाय उसवता तेन्नाचो अणभव म्हळ्यार सुवासाच्या दरवळांत कितलो खेळचें हें ताका समजना. सैमाचें सौंदर्य अलौकीक आसता आनी ताचो आस्वाद घेवपाक हीं पांचूय इंद्रियां पावनांत. हो अणभव उतरांतल्यान व्यक्त जावपाक सोदता पूण तिचे अभिव्यक्तीक आपशींच शीम मेर पडटा. कितलेंय सांगलें तरीय कितलें तरी सांगपाचें उल्लां अशें कवीक दिसता. स्वच्छंदवादी कवी वर्डस्वर्स्थ, किट्स सारकिल्या कवींक तोच अणभव आयला. हे कवी सैमाच्या सौंदर्याचीं स्तोत्रां गावपी. ताणीं सगळो अणभव मनाच्या दोळ्यांनी घेतलो. जडांतल्यान सुक्ष्मांकडेन वचपाचो हो प्रवास म्हळ्यार तांची कविता. हो अणभव फळदेसाय आपले कवितेंत धरतना –

**श्रावणाची दडक आयली**
**ताकतिकेन धावन गेली**
**म्हजे मोने तानेक मात**
**सुको स्त्राप दिवन गेली**

अशें म्हणटा तेन्ना ताका विशेश अर्थ आसा. सौंदर्याचो अणभव हो दिव्य भासां भशेन आसता. तो श्रावणाचे दडकेभशेन दिसता म्हणसर नाच जाता. आनी मागीर तो परत मेळचो म्हूण काळीज वथ्रेवंक लागता. मोने तानेक सुको स्त्राप दिवन वचपी हो अणभव आसता आनी ताचो फुडलो पावंडो –

**काळीज कैफांत खूब फावटीं**
**जोगलांचें झाड जालों**
**होमखणाच्या अग्नीदिव्यांत**
**उजवाडाचे सूर गायलों**

अश्यो अर्थान उपाट भरिल्ल्यो वळी वाचतकच आस्वादकाक अतृप्तेची तान लागता आनी कवीक अशी तान लागता तेन्नाच ताच्या हातसून श्रेष्ठ कविता बरोवन जाता. पूण ते खातीर ताका आपल्या आंगार जोगलां झेलचीं पडटात आनी ताचे भितर तीं झेलपाची तांक नासल्यार ताचो ल्हासून गोबोर जावं येता. केशवसूत सांगून गेला तें अजिबात लटीक न्हय. सृजनाची अनावर ओड लागता तेन्ना कवीक म्हणीन दिसता –

**कळाकळा सोंसत आयलों**
**जळामळा फाफसत रावलों**
**तळामळा देंवत गेलों**
**गळींमळीं बुडत गेलों**

खर व्यथा वेदना सृजनाचें मूळ आसता. संवेदनशील कलावंताचो तो अणभव आसा. श्रेष्ठ कलाकृती हे व्यथा वेदनेंतल्यान जल्माक आयल्यात. ते खातीर ताच्या हड्ड्यांत वादळ आसचें पडटा. 'आज मी जे गीत गातो ते उद्या गातील सारे/चालती हृदयांत माझ्या वादळाचे येरझारे' अशें नामनेचे मराठी कवी सुरेश भट बरोवन गेल्यात. ही सृजनाची लागिल्ली आस पुराय करपा खातीर कोण तरी येतलो हाचो ताका भरवंसो आसा. तो येतलो आनी ताच्या तानेल्ल्या प्राणार मिर्गाची धार ओततलो... ताचे साद ताका पलतडच्यान आयकुपाक येतात... आनी तो ही धार ताच्या प्राणार धरतकच

**कूड चिंब काळीज चिप्प**
**पावसाचें गूड ओलें**
**अंतर्कूडींत खतखतो**
**निर्मणेचे सपनझेले**

अशी ताची अवस्था जाता. कुडीच्या खतखत्यान तानशेल्ल्या जिवाक आनी उदकाचे आशेन करपल्ल्या प्राणांक एकेतरेची थाकाय मेळटा. ह्या

कडव्यांतली *निर्मणेचे सपनझेले* ही वळ म्हत्वाची आसा. ती एक संपूर्ण प्रतिमाच कशी आयल्या. प्राणांतलो हो खतखतो कवितेचें सृजनरूप घेता अशेंच हांगा कवीक सुचोवपाचें आसा. देखून तो अनंताचे अनंत उले आयकता. तशें पळोवपाक गेल्यार सृजन हें गूढ आसता. ताच्या अथांगाचो थाव लागून लागना. कवी जितलो भितर बुडी मारता तितलो तितलो तो आनिकूय खोल वचत रावता

**आतल्या उमाळ्यांचा शोध लागत नाही**
**गहिवराचे फूल फिटत नाही**
**आवाज येत राहतात...**

अशें मराठींतले श्रेष्ठ कवी ग्रेस म्हणटा आनी हे आवाज म्हळ्यारूच हे अनंताचे उल्यार उले जे कविच्या अंतर्मनांत सादत आसतात. कविच्या आनी पर्यायान कवितेच्या अस्तित्वाक अनंत अर्थ दिवपी. निर्मणेचो हो ध्यास हेंच कलावंताचें खरें प्राक्तन आसता.

**तो आयला**
**उजवाडाचो सूर घेवन**
**तो गायला**
**प्रकाशपर्वातलें विश्वगीत**
**ताणें सोदल्यो**
**अटंग्यांतल्यो रानांवाटो**
**ते वाटांमदलें**
**गुढगुपित गांव**
**आतांच शिरंगारलां**

फळदेसायाल्यो ह्यो वळी हांगा कवितेची कुंडली मांडटा. तिच्या अंतरंगाकडेन वचपाच्या वाटांचो नकासो कशी. बरे कवितेक भूत, वर्तमान आनी भविश्य काळ लागना. तिका थळाकाळाच्यो शिमोमेरो घालपाक येना. तिचे भोंवतणी आशिल्ल्यो सगळ्यो वंयो मोडपाची तांक तिचे भितर आसता. हें

सृजन आनी मनशामदलें नातें सांगपी ह्यो वळी

**दिल्लें तशें घेतिल्लें**
**मेजूंक केन्ना नाशिल्लें**
**मागतल्यांचें उरिल्लें**
**उण्णे वायण**

कलावंत आनी समाज हांचे मदीं जें नातें आसता ताचेर उजवाड घालपी नामनेचो सौंदर्यशास्त्रीय विचारवंत आर. जी. कॉलिंगवूड हांचें एक म्हत्वाचें विधान खाला दिवपाचो मोह म्हाका आवरना. कॉलिंगवूड म्हणटा : His buisiness as an artist is to speak out, to make a clear breast. But what he utters is not, as the individualist theory of art would have us think, his own secrets. As spokesman of his community, the secret he must utter are theirs. The reason why they need him is that no community altogether knows its own heart, and by failing in this knowledge a community deceives itself on the one subject concerning which ignorance means death.

आनी कॉलिंगवूडाच्या मता प्रमाण

Art is the community's medicine the worst disease of mind, the corruption of conciousness.

कवीक उजवाडाची व्होंवळीक पावता तशीं तशीं काळखाच्या कुसव्यांतलीं सपनां कुशीक रावतात. उजवाडाची दिपराधना पेट्टकच कवीक सामाजीक सत्याचो साक्षात्कार जाता आनी संवसारांतलें सगळें हीण ल्हासून वचचें म्हूण तो प्रार्थिता.

**मायेच्या पदराखाला**
**फोवां जालें रोसायण**
**दुःख सोशीत सूख सांगात**
**हुंडक्याचें रामायण**

अशे वळींतल्यान हे कवीचें सामाजीक भान उक्तें जाता. आयज सगळें जग तंत्रगिन्यानाचे उदरगतीक लागून एक जायत आसा. नवे अर्थनितीचे अनिश्ट परिणाम आमी भोगतात. आमच्या सुवार्थाक आतां शीम उरूंक ना. आमचीं शेतां पडंग जावन पाड पडल्यांत. दोंगर पोखरून भितर आशिल्लें धन विकिल्ल्यान कांय जाण गिरेस्त जाले जायत. पूण ताका लागून धुल्लाचें साम्राज्य सगळेकडेन पातळ्ळां. तातूंत भुंयेचो स्वास अंदता हाची आमकां नात आसना. हांगा कवी आमकां शिटकावणी दिता

**येयात आतां सगळेजाण**
**हावळाचो वेध घेयात**
**सादूर जायात शिटूक रावात**
**म्हजें काळीज सवें घेयात**
**तातूंत लिपला बळिश्ट फिनिक्स**

फिनिक्स हें आशेचें प्रतिक. फिनिक्स पक्षी गोबरांतल्यान नवो जल्म घेवन मळबांत ऊंच झोंपय घेता. आज ह्या संवसाराचो ऱ्हास जायत चल्ला आनी तातुंतल्यान कांयच नवें निर्माण जावचेलें ना अशे तरेचो एक न्हयकारी सूर आयकूंक येता. कवी त्या सुरांत आपलो सूर जुळयना. हांगा तो आपलो वेगळो सूर लायता. एके तरेचो जिवाक थाकाय दिवपी हो सूर आसा.

मनीस हो जल्मासावन कसल्या तरी बंधनानी आडखळिल्लो आसा. पयलीं आवयचो कुसवो आनी मागीर ह्या कुसव्यांतल्यान भायर पावल घालतकच भोंवतणची परिस्थिती ताच्या पायांत मणाच्यो बेडयो घालता. जल्म मर्णाच्या फेऱ्यांत सांपडिल्लो जीव मोक्षाची आस धरता. ताका मातयेची ओड आसा आनी पयसुल्लें दिगंत ताका कुरू करता. पूण

**काजऱ्याचीं फळां**
**रंगाच्यो कळा**
**जिणेचीं निर्फळां**
**करूं काय?**

अशें प्रश्नचिन्न ताच्या मुखार उबें रावता. सुखाचो शिंवर ताचेर जालो तरी दुःखाचो वझरो भितल्ल्यान खोल व्हांवत आसता. ह्या जिवाचो पांजरो बरगेला. आनी हो बरगेल्लो पांजरो मोडून तातुंतल्यान भायर सरपाची आस ताका लागता.

**पांजऱ्यांतुल्या पिला**
**तुका मळबाचीं रे सपनां**
**काळीज आटापना**
**हुंवार हुंवार**

**उचांबळ आत्मो**
**उचांबळ मन**
**कूड समर्पण**
**अळंग अळंग**

जल्म आनी मरणाच्यो संवेदना जागोवपी ह्यो वळी वोतिल्ले निळायेचो रंग घेवन येतात. संवेदनशील मनाक एकेतरेचें एकसुरेंपण व्यापून आसता. शिरंतरां तरासतात तीं कर्तूबांच्या भारान. देखून हे कवितेक 'आतां तुज्या दारांत! कूड रुजूं' अशे उद्गार फुट्टात. हो समर्पणाचो भाव मनीस जिणेक मोक्षाचे वाटेर व्हरता. देवाच्या दर्शनाचें सपन तो आपले खोपटेंत लिपोवन येता आनी देवळाच्या पयल्या सपणार ताच्या 'जिवा अमृत निर्माल्य जालां' असो ताका अणभव येता.

**प्राणांक ह्या सुटूंक दियात**
**हड्ड्याक ह्या फुटूंक दियात**
**अंतरांतल्या आत्म्याक आज**
**पाखां लावन उडूंक दियात.**

कविची ही अंतर्यात्रा हांगा प्राय जाता.

मुक्त छंदाच्या नांवा खाला गद्याच्यो वळी आडव्यो तिडव्यो कागदार बरोवन ताका कविता म्हणप ह्या काळांत फळदेसाय आपले कवितेच्या आविश्काराक अभंग होंवी सारकिलो वृत्तछंद आपणायता आनी ताचो मोटे कुशळतायेन उपेग करता. मराठी कवितेचो सभावीक छंद वृत्त अभंगओवी. तिचे कालेतीक मानोवपी. परत दर एके भाशेक आपलो असो ताल आसता. आनी गण आनी मात्रांचो हिशोब ह्या तालाकडेन आसता. देखून प्रत्येक भाशेंतले कवितेचें आपलें खाशेलें अशें छंदशास्त्र विकसीत जाल्लें दिसतलें. कोंकणीच्या छंदांचो अभ्यास करपाक आमकां आमच्या लोककवितेकडेन वचचें पडटलें. कांय बाबतींत कोंकणी आनी मराठी ह्यो भासो एकामेकांच्या लागीं येतात. ताका लागून अभंग आनी होंवी कोंकणी कवितेचे मातयेंत मुळां धरपाक पावतली असो विश्वास दिसता. 'समर्पण' सारकी कविता ते नदरेन पळोवं येता. विठ्ठल ह्या उतरांत ठ सारकिलें कठीण व्यंजन दोट्टी आसा. आनी ताच्या घर्शणांतल्यान नादाचो आकार दोळ्यां मुखार उबो जाता. भारतीय मनाच्या भावविश्वाक व्यापून राविल्लें हें रूप दृश्य आनी श्राव्य संवेदना जागयता.

हे अंतर्यात्रेंत आत्म्याक पाखां फुटून तो अनंताचे यात्रेक भोंवडेक वता. ह्यो कविता म्हळ्यार हे यात्रेंतले पोसोभर अणभव.

शिवरात्र, १० मार्च २०१३ **– माधव बोरकार**

**ग्रीन पिस** हाऊ. सोसायटी,
नागाळी, ताळगांव–गोंय.

# अनुक्रम

## तिबो

चंद्रिमाचे भोंवतणी । नक्षत्रांचीं फुलां।
वित्रागाचीं मुळां । तुजे करणेंत ।।

अनंताच्या फुलांवरी । अनंत उमाळे ।
दुःखाचे दुवाळे । गर्भकुडींत ।।

शियाळांतल्या सकाळीं । अमुरपिको धग ।
अंतरींचो मोग । शिरंतरांत ।।

अचळयां जालो । दनपारांचो भार ।।
धुल्लाचो सांवार । आटापना ।।

तापिल्ल्या धुल्लाचो । केलो एक तिबो ।
दारांत म्हज्या उबो । कृष्णदेव ।।



## नवीं काळजां

माडाच्या कळवांत
सोबीत कांतार उदेलां
खापांवेल्यान चडत रेंदेर
मळबाचो रंग पिला

दिगंताच्या आंवाठाची
सुलूस तो घेता काय
अनंताच्या खोलायेचो
अदमास ताका आसा काय

संवसाराच्या वित्रागांनी
माडाचें भल्लां उर
रेंदेराच्या दामण्यांनी
उचांबळटा फेसाळ सूर

ती सूर पिवन आज
धायी दिका झेमेल्यात
नवो सूर्या वेंगेंत घेवंक
नवीं काळजां आशेल्यांत



## कोस्तुरें

कोस्तुऱ्याचें नाटक चोयलें
तेन्ना म्हाका
म्हजे घोरकान्नीचें व्होडपोण गोमलें
कोस्तुरें
गांधीक मानताय
तेका लेगीत तेची गिरेस्तकाय
पूण गांधी केदो व्होडलो!
तें काळजांत रिगोयता
गांधीचें हांसोप
ताचें खोशी जावोप
ताचें खंती जावोप,
गांधीचें आशेवोप
सगलें चोयतलो जाल्यार
खोरेपोणी
कोस्तुऱ्याच्या पदराच्यो गांठी सोडोप

कोस्तुरें मोहनासरी पावलें
ताका दिसलें तें एक बावलें
ताणें ताका भोंव भोंव भोंवणायलें
जिणेचें खोरेपोण होलमायलें

कोण तें कोस्तुरें?
म्हजी मांय?
म्हजी सासुमांय? कोण काय?

पूण तेका एक फावट देखलें
मोळब सोंपलें
सूरया-चंद्रीमाचें नातें नवलाखिलें

अशीं संसाराची मांय
आमच्या घरा आसा काय
सरांव घेयीत घेयीत वाट सोदीली
दरेक घराब्यांत कोस्तुरबा दिसली



## अपर्मळ

मर्णाचें झाड रुजलां
दरेका घराच्या आंगणांत
तें पालेता, फुलेता, चंवरता
नकळटां
तें अदृश्य. अवकाशमय,
ताका ना रंग, ना रूप, ना वास,
तशें म्हळ्यार मर्णाचो वास
आसताच पर्मळत, खंयतरी.
तो पर्मळ भायरावपाकूच
जण एकलो नकळटां वावुरता



## समर्पण

विठ्ठल सुवाळो
विठ्ठल दुवाळो
विठ्ठल उमाळो
जळीं थळीं

विठ्ठल हृदय
विठ्ठल सदय
विठ्ठल जय जय
जल्मभरी

विठ्ठल हो श्वास
विठ्ठल निश्वास
विठ्ठल हावेस
जल्मान्तरीं

विठ्ठल हो इश्ट
विठ्ठल ना कश्ट
विठ्ठल अरीश्ट
सुखापार

विठ्ठल हें गीत
विठ्ठल संगीत
विठ्ठल सं-हीत
सुदेपणी

विठ्ठल गा स्वर
विठ्ठल गा सूर
विठ्ठल आगर
संगीताचें

विठ्ठल जोगूल
विठ्ठल कोगूळ
विठ्ठल कांबळ
पांगुरली

विठ्ठल आदि
विठ्ठल अंती
विठ्ठल नादी
अंतर्मन

विठ्ठल मन
विठ्ठल धन
विठ्ठल जीण
समर्पण



## किटी आनी केणां

घुमटांच्या गाजांत ।
शिगम्याचें वाजप ।
काळजाचें वाटप ।
कुडक्या-कुडक्यानी ।।

...

पयलीं हुलाप सोस
मागीर तेंगशेर बस

...

माडाच्या कळवांतल्यान
चंद्रीम झळकता
दुकांच्या दिश्टाव्यांत
जीण होलमता

...

होळयेची परब । न्हाली रंगरंगांत ।
कृष्णाचो सांगात । जल्मजल्मांतरीं ।।
पिल्लुकेच्या सुरांनी । भल्लो पुराय आवांठ ।
तिच्या काळजांत किंवाट । पर्जळटा ।।

...

धिन धिन दिवाळी
भैण म्हाका उंवाळी
नरकासुरांच्या निमतान
सरभोंवतणी गाळीच गाळी

हें चान्नें
म्हज्या रगतांत रिगलां
ताका लागून हांव
दर उमाशेक घुसमट्टां
आनी पुनवेक उचंबळटां

...

भजन
तरल आत्म्याचें स्पंदन
भाव–भक्तीचें चंदनवन

...

कीर्तन
भक्ती स्वरांचें आवर्तन
भावार्थाच्या सासायेचें दर्शन

...

'तारया, ताण रे व्हडें'
'दर्याक उमळ आसा'
'म्हणच जिणेक झोत आसा'

...

दोळ्यांदिवे मंद जाले
भोंवतणी काळखी कुपां
आतां आपणाय
काळजांतलीं अभ्रंवर दुकाथिकां



## दर्शनसुवाळो

तुजें रूप चंद्रकळी
तुजो रंग गंधामुळी
तुज्या रंगरुपा सावळेंत
घर म्हजें चंद्रमौळी

तुजे भेटे उमळशिकेंत
कांटे खुंटे हुपून आयलों
अंतरांतली जपमाळ
खीण खीण जपीत रावलों

तुज्या संतभक्तांचीं
कवनां गावन तृप्त जालों
अतृप्ताची तान - सया
खीण खीण भोगत आयलों

कितल्या जाणांक दिलें तुवें
निळ्या अथांगाचें भान
ज्याच्या ताच्या घराब्याचें
संवसारीक सर्गदान

भोगले भोग अभोगीचे
कुडींत घुमता एकतारी
भरवंशाचें भान कशें
चिरंजिवीं चितारी

ताळ, मुर्दंग भक्तीभार
चंद्रभागीं सपनमोर
रेंवाडांतल्या कणाकणांत
भावार्थाचो रंगला जागोर

दोनी दोळयां दर्शन पयलें
कुडींत उमाळे उचांबळ
दुकांझरी भायर भितर
अंतस्करण निर्मळ निर्मळ

तुज्या दर्शनाचें सपन
खोपटेंत म्हजे लिपोवन आयलां
तुज्या देवळा पयल्या सोपणार
जिवा अमृत निर्माल्य जालां

निर्माल्याची माळ म्हजी
आज तुका समर्पण
जल्म जल्मांतरीं आतां
म्हजे सवें अमृतकण



## हावेस

घडम घुडूम वाजयत पावलां
पावस आज आंगणी आयला
पावसाळ्याचे मिराशेचेर
आपलो हक्क धिरान सांगला

मिरास ताचीच, हक्क ताचोच
सैमाची हरवी आरास
हरवेपणा दुवाळ्यांनी
लिपल्या मनीसकुळी आस

दोंगोर देंगणा कांचावल्यांत
सोसूं कसो भार, शिंवोर
आंगावेलीं वस्त्रां ओडून
नागडे-उगडे जिणेजागोर

जागरांतले कीर मोर
घोडो, वाग गुरगुरचो
सैमाच्या अरिश्टाचेर
मूळ-मंत्र शिंवोरचो

मंत्राचें बळगें व्हड
रुशीमुनी तपश्चर्या
तांची सासाय लाबूं दी
धर्तरीच्या ऐश्वर्या



## वेणो

कासावीस निळें मळब
ना साथ ना सांगात
दर्या-धारेर काळखा ल्हार
पंचप्राणांत पोरणी वळख

गर्भपोटांत उमाळे
वनवासी मनातुले
तिच्या शिरंतरांतुले
तांबडे गुंज ओले उले

काळजांतुले कुलकुलाट
उल्या-उल्यांची रे वाट
आवयपणाचो हो पाट
जल्म जल्मांतरी नुलय

काळजाच्या तळा-तळा
दुखा-सुखाच्यो ह्यो कळा
नाळ कापून काळ जोडलो
घराब्याच्या पाळामुळां

मायलेकां वेगळायलीं
काळीजकळसो अपुट भल्लो
धायदिकां बाळंत परमळ
घसघशांनी हाथाशिलो

अळंग घसघश्यांच्या मुळां
वततात वसवश्यांच्यो झरी
अदृश्टाच्यो दुश्ट परी
उमथून वचूं मागीलदारीं



## नानाकार

श्रावणदडक आयली आनीक
ताकतिकेन धावन गेली
म्हज्या मोन्या तानेक मात
सुको स्त्राप दिवन गेली

हांव जिवीत जगलों, जसो
हांव जिवीत जगलोंच ना
फटकिऱ्यांनी फुटलों असों
पर्थून केन्ना सांदलोना

जल्मभर दुकांक म्हज्या
ना ना निमतां शिकयलीं
उपऱ्या जिणे-सवंग मात
निमणेमेरेन शिकलोना

काळीजकैफांत खूब फावटी
जोगलांचें हांव झाड जालों
होमखणाच्या अग्नीदिव्यांत
उजवाडाचे सूर गायलों

सूर नवे, नवे स्वर
ओंठ मात परके जाले
तातुंतल्यान लख्ख उजवाड
हांव म्हाका दिसलोच ना



## घर

घर
चार वण्टींभितर कोंडायिल्लो
संसाराचो आंवाठ

घर
दोन जीव एकठांय येतगीच
कोंरातपाचें एक सपन

घर
कोणा खातीर?
दुसऱ्याच्या काळजाच्यो वण्टी
कोसळावपा खातीर?

घर
घराब्याचे देगेवेलो आंकूर
तुज्या काळजाच्या कुसव्यांत
हांवें खोसयेचें झाड रोयलां
ताचेर तूं घसघशानी शिंवर



## प्राणपर्मळ

काळ्या निळ्या फांतोडेर
अमृताचीं पोवनां
अमुरपिक्या चनर खिणा
काळजांतलीं कवनां

काळीज कवन गायत गेलें
उर्बे तिबो लायत गेलें
अघड अघड तळ्या-तळा
निळे दिवे लायत गेलें

पार्दिकाच्या रुखातळा
कंवळें कंवळें समर्पण
पर्मळाच्या दानाचें,
म्होवें-म्होवाळ आपलेंपण

बोणकीच्या हाथेतळा
थंडशितळ घसघसो
पिटपिटीत पुनवे होटींत
घमघमीतो कवासो

कवाशाची पाकळी आज
घमघमानी लब्दली
कांदळां-वोंवळां नदरांची
दृश्ट काडीत लजेली

लजकुरो तो ओलो दर्वळ
धुपेटांनी धुमशेता
फांतोडेच्या रथा नाचांत
चवरां-चवरांत पर्मळटा



## कपयाळें

पालव म्हजो थिगळांचो
कपयाळ्याच्या कुळांतलो
शिवण तीच रंग नवो
काळजांतल्या मुळांचो

म्हज्या मोन्या संवसाराच्यो
सगल्यो वाटो बंद जाल्यो
एकल्या एकसुऱ्यान ताणें
मध्यानराती उक्त्यो केल्यो

काळजाचो धेक एक
वाट म्हजी शिरंगार सावळी
म्हज्या मना, काळजा आवळी
सपना पांचव्या धर्तरेचीं

यादींच्या कपयाळ्याची
वीण घटक्यांत उसवली
थिगळांच्या आदारान
मळब जीण पांगुरली



## हरवी साय

पावस
अचळयां आयलो
मात्सो मात्सो रावलो
धांव धांव धांवलो
म्हज्या काळजा-कोनशाक
नकळटां रिगलो

धांवत धांवत आयलो तो
घसघश्यांनी
वेंग-वेंगयलें धर्तरेक
अंतरकळांनी
रातभर वोतलो तो
धर्तरेच्या रुमांरुमांनी

थंड शितळकाय तिका
उडटो हावेस शिरंतरांनी
मातयेच्या उस्वासाचें
अत्तर धाय दिकांनी

पावसाच्या समर्पणान
सरभोंवतणी पांचवें दान
धर्तरेचे गर्भकुडींत
दिगंताचें अक्षय रान

अपुर्बाय काळीजभर
धर्तरेची अपूर्वाय
मनांतल्या जड्ड्या दोंगरीं
जळीं थळीं हरवी साय



## वजें

सुरगां-वोवळांच्या परमळांत
म्हजी अमुरपिकी फांतोड उदेता
पूण
माडत, केवण, अर्जुन, करमळ
हांची शियाळांतली पानगळ
म्हज्या माथ्यार वजें दिता
वजें-पत्र्याचें
सुक्या पानगळीचें
वजें लासपाचें
गोबोर करपाचें
तांतल्यान उदेतात
पांचव्याचार
रससप्तांचे दुवाळे
तरेकवार फळावळींचे उमाळे



## ओड

हड्ड्यांतलें वादळ आज
मुमुरख्यानी शिरंगारलां
कुडींतले हुंडके दुकां
कुडीभायर पर्मळ्ळ्यांत

आयुश्याच्या हुमऱ्या भायर
हरयाळेचीं नखरीं खानळां
वाडींतल्या माटवा-सावळेंत
फुसलायतात अंतरकळा

कळा कळा सोसत आयलों
जळा मळा फापसत रावलों
तळ तळा देंवत गेलों
गळीं गळीं बुडत गेलों

म्हेळ्या चंद्रावळींत कशी
म्हजी लख्ख जोगुलजीण
दिगंताची सया, सवें
मना-काळजाची ही वीण

बुडूं दी भूत
आनी बुडूं दी वर्तमान
बुडूं दिवं भविश्य कित्याक
आयुश्य आसा वर्धमान



टीप : *वाड : गिमाळ्यांत गोरवांक उक्त्या सुवातेर बांदपाक शेतोडेचेर उबारिल्लो माटोव.*

## पाचवें मन

अमृताच्या ओथांब्यांत
भिजलां हांव आरपार
अमृताचो मोनेळ घालता
शिरंतरां अमृतधार

प्राणान म्हज्या लायलीं पाखां
काळजातळा कुल्लाळ म्होवे
आत्म्याच्या कापूरचान्यांत
विरविरतात सपनझेले

बटबटीत काळीजकळे
स्राप भोगीत अमुरपिके
बंदखणींत नदरेचे
सळसळटा मन पांचवें



## अतृप्तताय

तूं येदोळसावन
हारशांत कितें पळयता?
हारसो?
काय तूं
तुकाच नियाळटा?
तुजी सोबितकाय?
काय तुजी आवतिकाय
तुजी कांत, तुजो रंग?
तुजें रुप, तुजो गंध?
तुज्या जुंवानपणान
वेंगयिल्ले सगळे रंग?
तुजे नदरेंतलें समाधान शेणलां
तुज्या दोळ्यांत एक अतृप्तताय
अखंडपणान वसतेक आयल्या
लग्नाच्या माटवांत आयिल्ले
आपखोसये भशेन



## माया

मातयेची माया ।
दिगंताची छाया ।
मळबाची सया ।
सदांकाळ ।।

काजऱ्याचीं फळां ।
रंगांच्यो कळा ।
जिणेचीं निर्फळां ।
करूं काय?



## ठाव

पांजऱ्यांतुल्या पिला
तुका मळबाचीं रे सपनां
काळीज आटापना
हुंवार हुंवार

हुंवाराचे दशे
उटंगार जीण
घसघशांचो खीण
उचांबळ

उचांबळ आत्मो
उचांबळ मन
कूड समर्पण
अळंग अळंग

अळंगाचे सवें
कापराचो गंध
निळायेचो बांद
वोतूं वोतूं

वोतिल्ल्या निळायेची
साय मोव मोव
भावार्थाचो ठाव
सोदूं कसो



## ओले स्नाप

आवय बापूय मरूं
शेजवासारी उरूं
तांचेखातीर सरूं
जीण आपली

हें उपाट वारें
पुर्विल्ल्या रुशीमुनींचें
हांव भोगतां आंगभर
फुलयत हड्डें निजाचें

चंद्रीम कुपां झगडीं जाप
म्हज्या जिवा उतळताप
कुळागरीं ओलो स्नाप
ओथांब्यांनीं म्हज्या दारीं



## अमृतशिंवर

आतांच म्हजें काळीजभर पावस पडून गेला
मनाच्या आंगणांत ओथांबे गळत आसात
पावसाची म्हाका लकतुबाय दिसता
तो येता–वाजत गाजत
पूण एकलो एकसुरो न्हय
ताचे वांगडी ताची फाट सोडिनात
तोवूय तांकां सोडिना
तो येता–मळब भर जावन
सुर्यसांवट घेवन
पुराय धर्तरेक वेंगेंत घेतिल्लेवरी
अचळयां न्हाणाचें व्रत घेवन
तो येता वाऱ्याच्या सांगातान
वारो, वारो नासता
तो वावझड जाता
कुपां इशारती करीत धांवतात
पेण्या–पेण्याचेर
आनी किंवाटान
जोगूल धांवता
पावसाच्या घरभरवणेचो रकाद दीत
कोलवांचीं पाखीं बाबडीं गुड गुप्प
आनी मागीर तो येता

महानायकावरी
धाय-दिकांच्या घोड्यार बसून
सगल्या संवसाराक वेंगायत
धर्तरी न्हाता अळंग पांवळ्यांनी
अमृताचो शिंवर शिरंतरांनी



## रुजवात

धांव धांव धांवलों
तारीकडेन पावलों
खर्शेत तार हुपली
पलतडीं

पलतडच्या संवसारांत
लांब रूंद खळां
अती विशाळ मळां
कर्तुबाचीं

कितले उंच दोंगर
देगणां सामकीं खोल
उमाळ्यांचे धोल
वाजयले

काळजांतल्या वाजपांनी
सासायेक होरायलें
हावेसान मिरयलें
उर्बेसपन

सपनाच्या दिश्टाव्यान
दिली एक जोरगत
सांगाताक वारगत
हावेसांची

हड्डें फुलयत उडचें आसा
मळबादेगेक आफुडपाक
धिटायेच्या उजवाडाक
अमरपाट

शिरंतरां तरासलीं
कर्तुबांच्या भारान
आतां तुज्या दारांत
कूड रुजू



## किटी

वैशाखाचे हुलाप
जीणभर अणभवले
उतळताप

मिर्गाफाटली आशाढपांवळी
शिरंतरांनी रिगिल्ली
थंडशितळ जिणेसावळी

उटंगार पावसाची
पयली धार
म्हजे जिणेचें सार



## जोगुल-सवणे

कितले पावस झेलले आमी
कितले सुके गिमाळे
आज सुकीं सुकीं काळजां
निर्शेणेचे उबाळे

शिगमे, जागर, मेळ केले
सैम इश्टागती झेले
राखले रान-मंत्र-तंत्र
उदरगती नवे उले

नवी विटी नवें राज्य
पोरन्या घराब्याचें व्याज
फेडीत फेडीत आयले आमी
आतां नाडूं गांवराज्य?

भुयपुतांचो काळीजगाज
भौसाच्या आंगणी आज
मारा शेंसर करा सांगणी
माणसुकेचे रक्ता-दायज

धर्तर दायज राखपाखातीर
मनीसगुडयो हुलपल्यो
माणसुकीची घुडी हुबयत
तरण्यो कुडी करपल्यो

करपल्ल्या कोळशांतल्यान
उदेतलो नवो फागूर
फिनिक्साचें जोगूल सवणें
उडलां सोदीत नवो आंकूर



## सुकती

पाडव्याच्या चंद्रिमाची
नकसूद इश्टागत
पुनवेच्या चान्याची
सर्वांगी जोरगत
उमाशेच्या काळखांत
जिणेची वारगत
झेमत वता....
शेणत वता



## दिश्टावो

गडगडो जोगलां पावस
ओथांब्यांचो शिंवोर
ओल्या काळजांत थरथर
अटांग्याचो

भोवतणची हरवी शेतोड
पावसासवें शिरशिरता
निबरसाण करपता
गिमाळ्याची

दोंगरावेले धारेक
शिनलां एक कामत
शिरशिर पावस मदीं वत
सुवर्णाचें

भांगराळ्या वतामुळां
खोपटी एक चिप्प उबी
उटंगार पावळ्यांमदीं
गंध सपन

सपनांतल्या वाठारांत
सृश्टीचें बाळांतपण
हुलापांचें वांझपण
व्हावन गेलें

सृजनाचो दिश्टावो
धाय दिकां जल्मलो
जळीं थळीं होलमलो
अपरंपार



## घुडंबो

कालच्या कुल्लाळांनी
जागो जालों
म्हज्या भोंवतणी पावसूच पावस

जड ओथांब्यांच्या उटंगारांत
भार भरिल्ल्या झडमोड्यांत
म्हजो घुडंबो केन्ना हुबून गेलो
कयळेंच ना



## कवाथो

आरे तुका कवाथो आसतना लायलो
उटंगार पावसांत तुवें मान परतिली
नाका हो जीव म्हणत तुवें धर्तरेक नमन घालें
तुजी आवतीकाय पळोवन हांवें दिली धिटाय
तुज्या पाळामुळांनी दिली घटाय आनी केलो तुका सावशीद
पावस आयलो, गीम आयलो, शिंयाळ आयलें
ना तूं बदलो कोणाक
उक्त्या मळबाच्या उल्याक दीत रावलो साद
नित्यनिबर रावलो तुजो हावेस

आज इतल्या वर्सांनी तुका नियाळटां
कितली तुजी धिटाय आनी कितली तुजी उंचाय!
म्हजेंच गिड्डेपण म्हाका किचमिता
म्हज्या शिरंतरांतल्यान म्हाकाच विचारता
तूं गिड्डो काय तो विशाळ?
आज तूं शेकान शेक वाडला,
चुट्टांचें तरंग नाचयत आपलें रूप मिरयता

म्हजें गिड्डेपण, तुजी उंचाय
कित्याक ही उपरी तुळाय?
पूण आज तुका पळयतगीच
म्हजें काळीज उपाट भरून येता
तुज्या आदल्या यादींनी

केन्ना मेरेन तूं मळबाचो हावेस बाळगितलो?
म्हाकाय लागल्यात वेध स्वर्गाचे
अनंत निळायेच्या मळबाचे
तुज्या पयलीं हांव पावत जाल्यार
घाल म्हजेर तुज्या चुडटांचो भोंवर
तुज्या भुरगेपणांतल्या
इश्टागतीचो सुरबूस शिंवोर
हांव सुखेनैव पावतलों
निळायेच्या अंतराळांत
तुज्या हरव्या
निळ्या मोरपाखांनी
घेतलों एक सुखनिद्रा
........... चिरनिद्रा
ताची हांव वाट पळयतां



## चिरंजिवी

रात
लजे व्हंकल
सूर्या देवून गेलो
म्हंटगीच मोन्यानी इकळाप करीत
ती अळंग येता धाय दिकांनी
वेंगायता धर्तीक दिगंतामेरेन
मोन्यानीच ती आंवडेता सूर्याक
फांतोडमेरेन ती पांगरून आसता
गुप्प काळोख नखेत्रांच्या माटवांतलो
खिणभर तरी
ती प्रकाशपर्वाक आपले गर्भकुडींत
आस्पावंक सोदता

सांजवेळे ती शिरंगारता
शिरंतरांनी चवरून
ताची वाट पळयता
ती नकळ?
तांचें मीलन निखालस ना
सूर्या अल्पजिवी
ती मात चिरंजिवी



## ओले दोळे

चंद्रिमाच्या काळजांत
खडप आनी माती
धर्तरेच्या कुसव्यांत
उमेदीचीं नातीं

म्हज्या काळजांत घुमतात
अनंताचे उले
फांतोडेच्या पारार
तिचे दोळे ओले ओले



## रुपां

पयले फावट तूं दिसलें तेन्ना
नदरो भिर्रभिरल्यो
नदरांचोच खेळ खेयळीं आमी
लिपच्यानी
उतरांचीं साळकां फुल्लीं
परमळाच्यो दालयो घेवन
तूं रिगलें म्हज्या काळजांत
हांव मात तुज्या शिरंतरांनी
तूं दिगंत दर्यासारकें
दिश्टावो दीत रावलें
म्हजो आंवांठ न्हंयचो, न्हय दर्याचो
कुडी-कुरकुटांनी अस्पावपाचो

पूण तुज्या दर्यायेद्या आवांठांत
केन्ना भरसून गेलों विरविरून गेलों
कयळेंच ना
पूण जेन्ना कयळें
तूं एक प्रेमिका, एक भैण, एक सून
कितलीं तुजीं रुपां!
जशीं आदिमायेचीं
तुजेकडेन हांव कोण म्हण पळोवं?

भार्या, भगिनी, माता
काय म्हज्या जिणेचो फुडारी?
आजमेरेन जें कितें हातासलें
नकळटां होगडायलें
तरीपूण अजूनय जीण
सोबीत आसा, गिरेस्त आसा



## मरणसुवाळो

केन्नासावन
एक भिरांकूळ धाकधूक
काळजाक कुलकुलायता
ताचे यादीन
ताची सुलूस कित्याक लागली?
ताका वास ना
रंग ना
रूप कोणूय नकळो
पूण कल्पनेंतलें भयांकृत रूप
फोंसकारतो रेडो
ताचेर तो आरुढ
गुमान आपखोशयेंत
हातांत गडगंज फास
कोणाकूय गोळाक लावपाचो
नदरेंत दिगंताचो भुंयकांप

पूण तो येता आपयनाशिल्ल्या सोयऱ्याभशेन
मनीसकुडीच्या दारांत उबो
ताची अप्रुप सवस्थकाय
आगळी ताकतीक
मोनेळाचीं उतरां
बेगीन आटापून घे

तुज्या काळजाचें तांबडेपण विटलां
तें धवें-फुल्ल जावंक लागलां
आतां मोग विसर, मोयपास विसर
सगल्यांक सांडून धवें आंगवस्त्र न्हेस
तुजेखातीर मरणसुवाळो वाट पळयता
निसणेवेल्यान मसणामेरेन



## दिपावळ

सरभोवतणी घरां
सोबीत कुडी कोनशे
सदांकाळ घुस्मट्टात
दम्याउबळ जशे

थतरवितर लिपच्यानी
अंतरींचीं तड्डकां
कोनशांतल्या काळखांत
वेवाराचीं गणितां

थोडीं परकेपणाचीं
कांय सोयरीगतीचीं
आपले इश्टागतीचीं
खासा जीवनकळेचीं

हें गणित सोडोवचें कोणें?
अनंतकाळाचो प्रस्न
दरेक प्रस्नाक जाप आसता?
दरेक गणित सुटावें जाता?

गणित घालतल्याचो प्रस्न
काळजा कुरकुटांत उप्रासता
त्या कुरकुटांत कोण दिवो लायतलो?
पयलीं कुरकुटा भोंवतणचो घैरांव काड
मागीर तेलवात धाड
उजवाडाचो पर्जळ हाड

हुबत्या पावसा थेंबांमदीं
शिरंगारिल्लें काळोखझाड
काळखांतलीं कुवाडीं
रातयांतूच घुस्पलीं
उजवाडाचे उमळशिकेन
उतरांविणे धुस्फुसलीं

शेंसर मारीत फांतोड आयली
शिरंगारलें हुंबऱ्या तन्न
जागरणाच्या दोळ्यां सामकार
जागरयाचें दिसपेन्न

आरती परती चाल ताची
केली वर्सा भोगावळ
अंतर्कळींत गणित रिगलें
तरी काळजांत दिपावळ

दिवे लायले दिवे लागले
उजवाडाचें दिगंत दान
घरदाराच्या हुमऱ्याभायर
काळखाचें जळटा रान



## फांतोड

तो आयला
उजवाडाचो सूर घेवन
तो गायला
प्रकाशपर्वातलें विश्वगीत
ताणें सोदल्यो
अटंग्यांतल्यो रानांवाटो
त्या वाटांमदलें
गुढगुपित गांव
आतांच शिंरगारलां



## सृजन

कुळागरांतल्या वाऱ्यार
शब्दुलेचो पर्जळ
काळजांतलो जळजळ
कोणा सांगू?

मध्यानराती म्हुर्तार
वोंवळ पुराय भारेल्या
कवासो लब्दला
उसुउसू

कांदळीचे भोंवाडेक
चान्नेभरी दंवाथेंबे
पर्मळाचे म्होवाळ झेले
काळीज पर्मळूं

सांजवेळचे सांवळेंत
गुरवार जाय उसवता
सुवासाच्या दर्वळांत
कितलें खेळूं

अनंताचे अनंत उले
सृजनाचे हुबयत झेले
सदांकाळ आंगणी खेळे
पाट झुळ्झुळू

रातराणी कळ्यामदीं
जीणजीण घुस्पली
असूदाय घमघमाटांत
काजुल्यांची कुरुकुरू



## मुक्ती

जड-जडावत चल्लां
जिवाचें हें पेडावण
केन्ना म्हाका मेळत काय
मुक्तीचें अळंगपण

अळंगाच्या आवाठांत
सुंवारतात धुपारती
त्या धुवऱ्यांत न्हाली जीण
निळायेच्यो पंचारती

पैस पैस पैसावला
मनांतुलो फुलांदेश
हरयाळेच्या ओल्या सपनांत
जल्मो-जल्मींचो हावेस

मळबनिळ्या वाठारांत
वत-वारें शिंवारता
उजवातीच्या वासांत
पंचप्राण सुंवारतात



## तुळसगंध

पुज्य-पुज्य-अक्षर-अक्षर
कितें बरयता?
कविता?
मुखावेल्या वण्टीवेलो तुजो फोटो
तुका तेळटा
कविता पुराय करिनासतना
कसली रे ताकतीक
तिठ्यार वचून चंदनाचो हार हाडपाची?
तो लेगीत तुज्याच फोट्याक घालपाक?
मागीर ही तुळशीमाळ कोणे गुथली?
तुजे अर्दकुटे कवितेक
तुळसगंध पर्मळटा
चंदनवासाची वाट पळयत



## हावळ

आयल्या हावळ, आयल्या घुंवळ
भूयपुतांचे अस्मितेचेर
मठी कवळ, मुठी आंवळ
हड्डें फुलय, मार शेंसर

मातयेचे हात आमचे
पांय लेगीत मातयेंतले
सांतेरीच्या कणाकणांत
थेंब आमच्या हुमेचे

खुटी मारून मठी जोडली
रानां रायो राखत रावले
धर्तरेच्या उमाळ्यांत
जिवित पुराय ओपत रावले

झरे, कोंडी, व्हाळ, न्हंयो
आमच्या इश्टागती कुरवो
कोळयो, कामत, पुरण, कुमेरी
धर्तरेन भल्ल्यो झोळयो

जीव सावदां राखलीं आमी
पोसलीं सैम सुवाळ्यांत
गुरवारीचें गूढ केळयलें
आशाढाच्या दुवाळ्यांत

शिरवणाचो शिरंगार तेयळो
आश्विनाचो गर्भार मेयळो
कार्तिकाच्या काल्यामदीं
सैमाचो शिंवोर भोगलो



**बरगणी**

सुखाचो शिंवोर
दु:खाचो वजरो
जिवाचो पांजरो
बरगेल्लो

साळीक फुलता
काळीज झुलता
भोंवोर भुलता
मरणादेगेर

हो गुलमोहोर
काळजांतलो मोर
नंदला आंगभर
आशाढपावळीं

तापत्रय दीसरात
वावराची वयवाट
जीणेचो रंगपट
पितारतां

दिल्लें तशें घेतिल्लें
मेजूंक केन्ना नाशिल्लें
मागतल्यांचें उरिल्लें
उशणे वायण

भावार्थाचीं वायणां
कित्याक असलीं कवनां
रिणाचीं सपनां
इबाडूंया

माणसुकेचें रीण
फारकायेचो खीण
तुजी पुराय जीण
समर्पिली



## होमखण

कुमेरीच्या कुडक्यांखातीर
घोळटिकांची पोल्ली जळटा
माणसुकीच्या आदारान
खोसयेची न्हीद खळटा

वताच्या रखरखाटांत
अचळयां दोंगोर शिनला
देगणाचें दुःख घेवन
गोबराचें कवन केलां

गोबराची सोयरीक जाल्या
फिनिक्साच्या उज्याकुळा
हुसक्यांचें होमखण जालां
आत्म्याच्या प्राणांतळा



## मेळ

शिंयाळाच्या कुडकुड्यांत
काले फुलयले
श्रावणाच्या सवंतधारांत
सप्ता जागयले

रामनवमीच्या जात्रेंत गा
म्हापुर्साचें कवन
मध्यानराती रथांतल्यान
दिगंताचें सपन

गडच्या पुनवेक समराधना
भुकेपोटी थाकाय
आशाढपावळी धुंवाधार
वजऱ्यांची विरविराय
गुलालाचे उमेदींत
शिरंतरी रंगलों
पर्थून नव्या जल्माखातीर
काळजांतल्यान भंगलो

सैमाच्या सांगातान गा
वोवळां पुंजायलीं
कांदळांच्या घमघमाटांत
काळजां उज़यलीं

फाल्गुनाच्या सांगातान
शिगमो सजयलो
गांवकारांच्या दायजाचो
मेळ मेळयलो

मेळ नाचता धाय दिकांनी
आंगणी गडे खेळे गा
माणसुकीचो मंत्र घेवन
मना मना मेळे गा

मनमोरांचो मेळ हो
सदांकाळ रावतलो?
भौसाच्या अंतर्कळेक
सदांकाळ भावतलो



## दुकां

हें पांवळ्यांतल्यान गळपी उदक
कोणाचीं दुकां
व्हांवतात सवन रात?
काळखाचें सपन कुशीक काडून
अचळयां रातीक आपणायली
रात तशी शिरंगारिल्ली
मोगऱ्या कळ्यांत घुस्पली
जायेच्या वासांत हुस्केली
शब्दुलीचें सपन घेवन
रंगरंगांत सुस्तावली
घराकुशीचे खोपटेंत
पोल्ली एक धुंवराळिल्ली
घरभर धुंवर
धुंवरभर घर
धुंवर लोट लोळत चल्ला
पोल्ली खिणांत भर-भर
घराचे भितोडेंत
सदांचीं सावजां
ओल्या उटंगार पावसांत
जळजळटात लाकडां
पोल्लेच्या कोळशांतल्यान
दुखासपन उदेता
काळखाचें म्हेळें कर्तुब
सपनांतल्यान होलमता



## चंदन-हावेस

जल्मावेळार किळांच माल्ली
मुठी आंवळून आंवडेलो
भुरगेपणांत तवनासपण
गांवभर अटमटवाळे
लग्नाउप्रांत ल्हेंवटेपण
रात-दीस वसवशे
भांगरां-शिंगरां
गाडी-घोडे-बंगले-फ्लॅट
आनी दीस रात सपनां दुडवांचीं
दुडू जोडले, दुडू मोडले
मनयलो आपसुवार्थ
आतां अंतकाळार
अमृताचो पोको परमार्थ
सपनां सदांकाळ चंदनरुक्शाचीं
जिणेच्या बुरशेपणांत बुडबुडिल्लो
कर्तुबांच्या कोंडांनी कुडकुडिल्लो
चंदनरुक्शाच्या दुवाळ्यांनी आंवडेता
मर्णाउप्रांतचो चंदनी वास
जितेपणी दिली सगल्यांक
हळशिकी घुसमट
आतां कित्याक हावेस
चंदनाचो?



## रुक्मीण

गेलों तुज्या दरबारांत
घेतलो चंदनसुकाळ
खंय रे म्हजी रूक्मीणमाय
दोळ्यांर आयली दाट साय

कयळें आतां तिका तुवें
मागील दारांत धाडून दिल्या
जिविताचें घट्ट नातें
कित्याक सदळ विदळ केलां?

राग रूस देवूय करतात
नासली आमकां समजणी
रुक्मिणीची काणी तशी
दुःखांचीच परवणी

दुकां लेगीत पिवन आमी
फुलां नवीं फुलयतले
पर्मळाच्या सांगातान
काणी नवी शिरंगारतले

रुक्मिणीच्या पांयांचेर
हांवें दुकांभिशेक केला
शेकानशेक विठ्ठलाक
काळजांतल्यान वेगळायला

म्हामायेच्या पावलांतळा
म्हजे जिणे शीण ओंपला
आदीमायेन आपलेपणान
सासायेचो शिंवोर घाला.



## सपनझेले

कुडीच्या खतखत्यान
जीव तानशेलो
उदकाचे आशेन
प्राण करपलो

ब्रह्मांडांतलो जिणेवायू
कुडींत भरशिलो
अथांगाचो थाव घेत
हांव निरशेलों

निर्शेणेच्या अघड तळा
सुवार्थाचीं जळमटां
दुबावाचे घुस्मटींत
रक्ताचीं खतां खतां

शिंयाळाच्या सांगातान
भोगले सैम-सुवाळे
जायो जुयो कांदळां वोंवळां
सर्जनाचे दुवाळे

अप्रुपाचीं सपनां म्हजीं
जल्मावांगडा वेंगायलीं
अमुरपिके मरणकळेंत
नकळटां करपलीं

करपल्ल्या सपनांखातीर
मिर्गाची ओतत धार
कोणतरी येतलो आतां
साद ताचो तडीपार

कूड चिंब काळीज चिप्प
पावसाचें गूड ओलें
अंतर्कुडींत खतखतो
निर्मणेचे सपनझेले



## मृत्यू

तो आसा भायर
तो आसा भितर
अंतरांतलो कुंवर
निरंतर

तो आसा जळांत
तो आसा थळांत
काळजाच्या कोनशांत
तोच लिपला

ना तो शास्त्रांत
ना तो शस्त्रांत
तो ना अस्त्रांत
घुस्पून गेला

मोगाचे शांतीकायेंत
रागाचे खंतीकायेंत
दिगंताचे अनंतायेंत
लिपचानयो खेळटा

पावला-पावला कणकणी
तो दिता शिटकावणी
मरणकळा-अंदणी
गात्रागात्रांनी

तो येता हांसत
तो येता नाचत
तो येता दाखयत
मसणवटीची वाट

ताचें मुखामळ खुशालभरीत
आयकून आत्म्याचें गीत
उखलासलें अळंग जीवित
अचळयां-अचळयां



## नातलां

नातलांचे रातीक आज
नखेत्रांचो लख्ख साज
जेजूचे यादीखातीर
इगर्जेंत घांटीनाद

जेजूच्या जल्माखातीर
गोठ्याचो आलाशिरो
मध्यानराती गायत्रेन
उचांबळून हामेर दिलो

इश्टागत ख्रिस्ता जीण
भावपणाचो खीण खीण
कळंतराविणे दिलें
दुस्मानाक मोगा रीण

जेजून दिलो जल्म एके
सासणाचे वेदनेक
काळीज कुडीर खिळे भोगीत
हुमकळटे खुरीस जिणेक

जीणेचो खुरीस आपलो
ज्याणें ताणें सवें पेलचो
धर्तरेच्या उगडासान
माणसुकीचो मोग तोलचो



## रोसायण

उजवाडाची व्होंवळीक
आज म्हाका पावल्या
काळखाच्या कुसव्यांतलीं
सपनां कुशीक रावल्यांत

सपनांच्या दिपरादनेंत
आपालिपा काळखाचो
पण्ट्यांच्या लखलखाटांत
दिश्टावो दळदीराचो

शेकेल्ल्या तेलातळा
पण्ट्यांची दिपावळ
रोयणींतल्या मुयांवरी
उचांबळटा प्रभावळ

सुखा रूपां दुका थिकां
गुडव्यांतलीं कणसां सुकीं
सपनाळून आयलीं वयर
पायली कुडव भात घेवन

कुळण्यांतलो भाता घाण
रान्नीचो तापला धग
तापिल्ले रेवेंमदलें
विरोणेचें तिरपें जग

लाटेच्या फाराफारार
भाताशांचे जातात फोव
वित्रागांच्या काळजासवें
जीण-जगम मोव मोव

मायेच्या पदरा खाला
फोवां जालें रोसायण
दु:ख सोशीत सूख सांगत
हुंडक्यांचें रामायण



## धालो

आज धालां सुवाळो
आज धालां उमाळो
आज धालां दुवाळो
सर्वांगांत

तुळशी पेडयेर निरंजन
जिणेंत तुजे अंजन
कुडी-थाकाय मनीं रंजन
धर्तरभाराचें

शेणशिंतोडो मांडभर
धालां-भार आंगभर
मन कित्याक थतर वितर
रंभांसारकें

चान्याराती धालां खेळ
सवाशणींचो देंवता मेळ
रंभांखातीर शिंपण वेळ
बंधवतीर्थाचें

पाती फुगडी व्होर वाग
मोर खापुल्लें सावज मार
फांतोडपारार पिंगळी दारार
न्हाण वर्साचें

मांय सुनांचीं काळजां रितीं
घराब्याचीं घट्ट नातीं
धर्तरमायेक पंचारती
गर्भकुडींत



## चांफ्या

अरे चांफ्या अरे चाफ्या
कसली तुजी रीत
पानां गळयत फुलां फुलयत
पर्मळपाची नीत

अजापाची रीत तिगयत
आजमेरेन सोबयलें
अवसानाचे घातकी खीण
व्हांवत्या वाऱ्यार हुबयले

चंवरलेल्या चांफ्या तुजें
रूप निकटें सांवारना
पानांविणे फुलां देणें
अयावपणाक मानवना

मोगऱ्याच्या घमघमाटांत
भुल्लुसलें अयावपण
रणमाल्याच्या धोगांमदीं
अमुरपिकें जुवानपण

चांफ्या तुजी इश्टागत
सोरपासरीं कित्याक
कळ्या फुलां वासावांगडा
संजीवनी विखाळ



## सर्गदान

हे कळमेल्ले भांगराळे भुंयेन
आपणाली उबंतर सटी पुजली
उखलापो बारसो केलो
पदरांत फकत स्राप आयले
निसंतानाचे

हो सत्यानाश कित्याक
पांचव्याचार शेतांचो
कंवकंवीत कुळागरांचो
थंडशीतळ मळांचो
वायंगणांचो भरडांचो
सर्दाच्या शेतोडीचो
खांदळांचो-पोरसांचो
अच्छेव

आतां आमकां ओपलां
धुल्लाचें सर्गदान
धुल्ल खायात धुल्ल पियात
धुल्लाचें भजन गायात
जागर करात फेस्तां करात
धर्तरेच्या राजांगणांत
धुल्लाचेच मेळ खेळात

येयात आतां सगले जाण
हावळाचो वेध घेयात
सादूर जायात शिटूक रावात
म्हजें काळीज सवें घेयात
तातूंत लिपला बळीश्ट फिनिक्स



## रंभासपन

मळबाच्या मांडार
नखेत्रांचे दिवे
काळजाच्या कोनशांत
रंभांचे जुंवे

धोलतल्या पातीनी
पर्जळ्ळ्यो वाती
रंगयल्यो रंभांनी
सुरबूस राती

कवाशाच्या वासासवें
रंभांची इश्टागत
सुरंगीच्या पर्मळवेंगेंत
शिरंतरां शाश्वत

शिंयाळाच्या ल्हारावांगडा
गात्र गात्र अजापलें
फांतोडेच्या चंद्रीमसपनांत
रूमरूम म्होंवेलें



## सदळसाण

घेवन आयलों सांगाताक
एक धगधगीत होमखण
तांतलें केण दिगंतांत
केन्ना गेलें कळ्ळेंच ना

केणाचो ओलो हावेस
शिरवणाचे गळटे धारेक
भितोडभर पावसपाणी
होमखणाची अत्तरदाणी

अत्तराच्या अळंग वासांत
मस्त शिरवण घुस्पलो
दुःखाच्या दवरण्याचेर
मनाकाळजांत उसपलो

कितले दोळे म्हजे वाटेक
कितलीं सपनां म्हजे रातीक
जीव घुस्मट नकळटां
धवे कोरे एलिफांतिक

प्राणाक ह्या सुटूंक दियात
हड्ड्याक ह्या फुटूंक दियात
अंतरांतल्या आत्म्याक आज
पाखां लावन उडूंक दियात.



## नखलामी

रानाक पेटला उजो
खंय कसो पालंव
धुंवराच्या लोकांमदीं
दुकां कशीं लिपोंव

सुकणीं सावजां पळून गेलीं
जीव जिवाळ वळवळत
मरणाचे हुलाप निकटे
भायर भितर जळजळत

सावळीं रानां बावलीं पानां
कंवळी काळी नखलामी
जागरयाच्या खेळामांडार
थोट्या - मेंड्याची निबरकाणी

लाटी-फार मारून मेंड्यान
फोवां-घाण कांडून दिले
फोव खातलीं तोंडां नुरयत
तुसां उंडयेन धेक दिले

माडयांच्या कळवांतलीं
सुरंगी शेवकां फुलेल्यांत
नाल्लां पेंडीन माडा कळवांत
तांचीं सपनां मिरयल्यांत



## घरकान्न

घरकान्न
घरा परसूय व्हडली

घर कोलवाचें
घर नळ्यांचें
घर बेत्याचें
घर राजांगणाचें
घर माळयां माळयांचें

पूण घरांतली घरकान्न
त्या माळयां परस उंचायेची

ती आयली
उमळशिकेच्या पावलांनी
तांदळां आटवो उमथितना
नवो हुमरो हुपतना
तिच्या काळजाक
आनी पायसोराच्या पावलांक
मोनेळाचो कांच
सर्वय देहांत अप्रुपाचो नाच

रात दीस म्हयने वर्सां उलगलीं
घरकान्नीचो पाट घेवन
खिणां खिणां सोबयलीं

जिवनकळेचो घरकार
जशी कुळागरांत पाटाधार
फुडल्या-फाटल्या दारांतुल्यान
माये-मोगाचो हुंवार

मोगाचे सांवळेचें धुलप कपयाळें
साठ वर्सां सवायशिणीक चंद्रिमाचे दुवाळे
चंद्र तिचे पावळेंत आयला
तिचे सादोवंक उमाळे
आंबट-गोड यादी जशे
दोणांतुले आंवाळे

आज जीण आंवठेल्या शिंयाकुलकुल्यावरी
घरकान्नीच्या नितळ मनांत माय-मोगाच्यो दिगंत झरी

घरकान्नीचें रूप आज
घसघश्यांचें दर्या ल्हार
काळजांतल्या मोगा-केंडांत
सासणाचो भरते भार



## जात्रा

पर्जळ्ळ्यो दिपरादना
पेण्यापेण्यार तींच तोन्ना
केणेल्लीं दोळ्यां-खोन्ना
युगायुगांचीं

आतां जिवाक कसली थाकाय
शिरंतरांत नंदता सासाय
जीण सदळ करची येसाय
आरंभिल्या

दीपमाळ पलतडची
मंद शितळ उजवाडाची
दिवजांच्या सांगाताची
जात्रा उलगल्या

जाग्रणाच्या दोळ्यांभितर
फांतोडपार खर खर
अंतरांत निखळ जबर
सासणाची झर





मुक्त छंदाच्या नावाखाला गद्याच्यो वळी आडव्यो तिडव्यो कागदार बरोवन ताका कविता म्हणप ह्या काळांत फळदेसाय आपले कवितेच्या आविश्काराक अभंग होंवी सारकिलो वृत्तछंद आपणायता आनी ताचो मोटे कुशळतायेन उपेग करता...

आयज सगळें जग तंत्रगिन्यानाचे उदरगतीक लागून एक जायत आसा. नवे अर्थनितीचे अनिशट परिणाम आमी भोगतात. आमच्या सुवार्थाक आतां शीम उरूंक ना. आमचीं शेतां पडंग जावन पाड पडल्यांत. दोंगर पोखरून भितर आशिल्लें धन विकिल्ल्यान कांय जाण गिरेस्त जाले जायत. पूण ताका लागून धुल्लाचें साम्राज्य सगळेकडेन पातळ्ळां. तातूंत भुंयेचो स्वास अंदता हाची आमकां नात आसना. हांगा कवी आमकां शिटकावणी दिता.

– माधव बोरकार

बिम्ब
प्रकाशन